# प्रकाश पाडगांवकार



**कविता**:
- काळ रेल्वेच्यो
- मन हारशांच्यो
- पावसा पाणयाच्यो



## प्रकाश पाडगांवकारं हांचे कविता संग्रह

---

– **अुजवाडाचीं पावलां** (1976)
कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय–पुरस्कार

– **वास्कोयन** (1977)
कला अकादमी, गोंय–पुरस्कार

– **हांव मनीस अश्वत्थामो** (1985)
कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय–पुरस्कार
कला अकादमी, गोंय–पुरस्कार
साहित्य अकादेमी,
नवी दिल्ली–पुरस्कार (1986)

– **कविता : काळ-रेल्वेच्यो,**
**: मन-हारशांच्यो,**
**: पावसा-पाणयाच्यो** (1993)

– **सर्ग घडपाक धर्तरिचो** (1994)

# कविता

# काळ-रल्वेच्यो मन-हारशांच्यो पावसा-पाणयाच्यो

(लेखन काळ : फेब्रेर 1987 ते ओतुब्र 1988)

**प्रकाश दामोदर पाडगांवकार**



कविता : काळ-रेल्वेच्यो, मन-हारशांच्यो, पावसा-पाणयाच्यो



प्रकाशन क्रमांक : 104
1993

'साहित्य पल्लव' भागीक : धा रुपया

प्रकाशक – राजहंस वितरण
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुद्रक – राजहंस ऑफसेट
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुखपृष्ठ – गजानन च्यारी

मोल :
1993 वर्सा 35 रुपया
1994 वर्सा 42 रुपया
1995 वर्सा 50 रुपया

ISBN 81-85854-03-3

झुकू झुम झुकू झुम रेल्वे धांवता
कुडींत काळीज जशें धडधडटा
जिणेचो असो मंत्र पुर्विल्लो
चलता चलताना काळ व्हांवता

घर म्हजें हांव बसोवंक सोदता
धड धड धांवोवपी रेल्वे रुळार
घर जाय थंय व्हरूंक मेळटलें
करीत जाय ते दिकेन दार

धांवत्या रेल्वेंत फळां खावन
शेंवटून दिता तांच्यो बियो
ह्या बियां जावन रूख अेक दीस
फळां तांची भोंवडेकारांक
म्हण्टली आपणांक चाखूंक यो

काळखाच्या बोगदयांत रेल्वे
जशी दोंगर पोकरीत रिगता
खिणभर रेल्वे दोळे धांपून
पुरो जिवाक थाकाय हाडटा

वाळवंटातल्यान रेल्वे वतना
मनांत लुसलुशीत सपन ल्हारेलें
हिमालयाचें कंवळे आंगलट
भर वाळवंटात हांवे अणभवलें

वोता रखरखांटांत रेल्वे
धडधडत वाळवंटात थारली
पयस म्हाका अेक बोकडी
भुकेन वळवळताना दिसली

रेल्वे बॉयन ऑडरी प्रमाण
जेवणा ताट हाडून दिलें
ताटातलें रुचिक मटण हांवे
मुखायले बोकडेक पळयत खालें

चलता मुखार रेल्वे यंत्र
वोडीत डब्यांची पोरां बाळां
झुकू झुम झुकू झुम आवाज काडीत
यंत्राक जागयतात पोरां बाळां

थारली रेल्वे जंगशनार
आनी तुटले म्हजे विचार
रूळ नवो आपणायत रेल्वे
आरंबतली फुडलो प्रवास
तशें म्हजें विचार चक्र
घुंव – घुंवत रावतलें फांस

धांवता रेल्वे गांव हुपीत
चिडी चिप्प काळखातल्यान
खंयच्यान खंय धांवता ?
फुडल्यान काय फाटल्यान ?

धांवते रेल्वेक पळोवन शेतकार
बुजगावणेशे अुबे रावले
म्हणत ''रेल्वे काळ व्हांवयता
आमी मातयेंत कुसत अुल्ले''

सिग्नलाक अचकीत रेल्वे थारली
घायाळ जाल्ल्या सोरपावरी
सिग्नल मेळटकच पर्तुन धांवता
जशी सुडाची पेटल्या फुरफुरी

दाखोवन बावटो सिग्नलमन
हजार मनशां रेल्वेक थारयता
सिग्नलमनाच्या अिशाऱ्यांत अेका
सत्ताधिशाकय नमचें पडटा

नवी स्टेशनां करीत रेल्वे
नवे प्रवासी घेत धांवता
आपलें स्टेशन येतच प्रवासी
ताकतिकेन देंवुन धादोसता

रेल्वे शिटी अेक सपन कशें
भोंवतण जागोवन सुखावता
म्हजें अस्तित्वय अेक सपन
विरगळटलें म्हाका नकळटा

रेल्वे रूळा शेजराक कोणाचो
जल्म, मर्ण घर – संवसार
रेल्वेय कोणाकोणांक जाता
पिळग्यां पिळग्यांचो आदार

कोणेंय चडचें कोणेंय देंवचें
ताळ तंत्र ना हे रेल्वेक
चडपा देंवपाची म्हाकाय संवय
तत्पर रेल्वे आसता सेवेक

पिवन सोरो कोण लकत वता
पिवनय कोण मातूय लकना
धांवती रेल्वे मात बेवद्यां भशेन
कोणाक लकयल्या बगर रावना

रेल्वे शिटी कानार पडटच
आंगार लजे फुट्टा शिरशिर
तरणे जिणेच्यो गुपीत यादी
दोळ्यांमुखार तांची भिरभिर

संदर्भ जिणेचे रावतात बदलत
बदलता तशी मनशा पिराय
धांवती रेल्वे ही चिर तर्णाटी
तिचेर दाटना काळा – साय

अनंतकाळा रूळावेल्यान
चलता रेल्वे चिरंतनाची
हांव प्रवासी चार दिसांचो
तरीय जीण लाख मोलाची

लांबचे लांब रूळावेल्यान
प्रवास म्हजो सोपनाशिल्लो
ऋतु ऋतुंचे वाटेर महोत्सव
खिण खिण असो जिणे सुवाळो

रेल्वेंत पाद्री, शिख गुरूचे
आयकतां मुल्ला, स्वामीचे विचार
रेल्वे जशी स्टेशनार थारता
तशे थारतात हे अेकाच तत्वार

धर्मी संमेलन, जाती संमेलन
रेल्वे डब्यांनी भरत रावची
संवसार जावन हो रूळ रेल्वेचो
जाती – धर्मांक हुलपायत वचची

झुकू झुम झुकू झुम रेल्वे धांवता
जशी कितें ती म्हणत वता
पुनरपी जननम्, पुनरपी मरणम्
झुकू झुम झुकू झुम, झुकू झुम झुकू झुम

हांव हारसो जितो – जिवो
काळाची सांठयत बिंबां
पावला पावलांतल्यान घालता
म्हजे आस्तित्वताये टिंबां

यादी यादींचें पुस्तक कशें
मन – हारशां यादी पानां
अेकेक याद अुस्तूंक लागल्यार
मन – हारशां घोलती रानां

हांव हारसो चिंतनांचो
मन पड्ड्यार चलचित्रां
चित्रां चित्रां जातात म्हजी
भावनेची ओली अुतरां

ध्यानाचो हारसो म्हजो
अविनाशी ना फुटचेलो
नाश म्हजो जाल्यारय
सासणाचो लिकलिकतलो

देवळातले मूर्तींत म्हाका
म्हजेंच बिंब लागता दिसपाक
हांव म्हाकाच पांयां पडून
रस्तो धरून लागता चलपाक

कितले हारशे मनाक तुज्या
हारशांनी हांव घुस्पला
हारशांनी ह्या सोदताना
म्हज्यांत तुका शेणयला

याद तुजी अुरची म्हुण
नाका फोटो नाका फुलां
तुज्या सांगाताचो हारसो
हांवे मनांत हुंबकळायला

हारशा हारशांचे घर तुजें
हारशांच्यो तातूंत वस्तू
कित्याकय लायल्यार हात
सगळ्या बिंबांनी भल्ला तूं

याद तुजी हारसो जावन
काळजा हारशार पडबिंबल्या
जिणे मेण कडत रावून
वात मोगान पेटत रावल्या

मोगा अशें लागी येवन
म्हज्या दोळ्यां हारशांत पळय
म्हाका तूंच दिसता तशें
म्हज्याय दोळ्यांत तुकाच पळय

जाता तुका याद मोगा
आमच्या पयल्या भेटीची
लजे – हारशांनी घुस्पल्ली नदर
जी मुद्रावन अुल्ल्या सासणाची

हांव हारसो तूंय हारसो
हारशा हारशांक जीव पिसो
अेकांमेकां बिंबां भरसून
भरून वोत्ता जिणे शिंसो

रूप पर्तवपी नाका हारसो
असलो हारसो फटयता गा
हारशांत ह्या पळयल्यार हांव
म्हाकाच परकी दिसता गा

हाल्ले वाऱ्या ल्हारां – हारशे
आंगाचेर फुलयत कळे
कूड म्हजी घमघमून
पर्मळाचें झाड जालें

मळबातल्या नखेत्रां हारशे
एकामेकांची बिंबा सांठयतात
लागता मेजूंक नखेत्रां हांव
मेजताना ती फटयतात

झाडा झाडार हारशां फळां
फुलून येवन घमघमची
मळब खवदळपी चिंतनां म्हजी
हारशां फळांचेर हुमकळची

व्हांवता तो हो न्हय वझरो
हो हारशांचो घसघसो
पिल्यार कुडींत हारशे तिगून
थामतलो ताने वसवसो

तळ्या हारशांत बिंब मळबाचें
नातें अशें हें चल्ला तांचें
मळब सोदता बिंब तळ्याचें
जुळोवंक नातें आपणाचें

काळखाच्या भुंयेरातल्यान
अुज्वाडाचे रकले हारशे
हारशांचेच शिल्प जावन
सपन दिसाचे मेजता कळशे

खळखळट्या दर्या पोटांत
हारशांची माणकां मोतयां
हांवय एक अजापी दर्या
भितर रूजतात हारशां बिंयां

हारशां – कुपां आयली फुलून
पडलो पावस हारशांचो
हारशां पिंका येवन वयर
संवसार सांठो हारशांचो

हारशा वस्तीवरी पृथ्वी
फुटून वच्ची न्हय देखून
प्राणवायू ताका हुबयता
झुमझुमपी हारसो जावन

हारशे प्रसवपी नदर म्हजी
ऋतु बिंबांचो साज – शिरिंगार
ऋतु निर्मातो जावन हांव
प्राणांत व्हांवयता काळा धार

हारशां कंवच्या मलमल कशी
ल्हारां कोंगरी दरयाची
अेकामेंकार लोळत येवन
मेकळायत आंगां आपणाची

अस्त्र म्हजें मन – हारशांचें
संहार करता अुज्यांचो
फुटून जळपी अॅटमबॉम्ब
जाता गुळो झेलाचो

पृथ्वीर हांव अुबो रावून
मळबा खोल हारशांत पळयता
मळबाक आसून असिम खोलाय
बिंब म्हजें हांव नियाळटा

हाडा मांसाची कूड ही जातली
पूड हारशा रसायणाची
हारशा रसायण रूजत थंय हें
पिकां फुलतली हारशा हारशांची

वर्षा राणये भशेन मोगा यो पर्जळायत कण
भर गिमांत फुलय म्हज्यांत रंगसंगाचो श्रावण

निळ्या तुज्या दोंळ्यां मळबीं फुलय कुपांचे झेले
अमृत तांचे म्हजा काळजार किल्लयतलें धन

धारता थंय अप्रुप पावलां फुलय फुलांची रास
तातूंत पर्मळूं काळजां आमची घडून शुभ मीलन

तुका लागून गीम अुज्याचो जातलो शितळ चांदन्याचो
खोशयेन जग मुरगट्टलें पातळायत संमोहन

झिण झिण झिण झिणझिणायत व्हांवता मिर्गा वारें
कुपार कुपां लागली गाजूंक घणघणायत नगारे

नित्यनेमान येवपी पावस अंदुय आयलो देखून
चडून स्फूर्त झाडापेडांक सुटल्या सुखा सुस्कारे

जावन जागे मातये दुवाळे कणानकण सुखावला
पांखार नवें तेज हुबयत अुडटा शेवण्यां भिरें

रूच जल्मा आता रंगतली नाका हुस्को मर्णांचो
नदरे मुखार लागले फुलूंक पिकापिकांचे तुरे

झाड म्हजें आयज अुदक न्हांता
पयल्या वयल्या मिर्गा सरीचें
धुल्ला न्हेंसण अळंग देंवून
सजता आंग आंकवारणीचें

पावस पिसावल्ल्या दडकांचो
मेकळ्या रूप्या थंडायेचो
दोग शेवणी भिजून चिप्प
घेत विसव धादोसकायेचो

भिजून तांचो जाला थापो
आनीक अुरूंक ना कसलें भान
अेकामेकांची पळयता बिबां
लागल्या वाडूंक अक्षय तान

कितली शेवणी झाडाझाडार
अुबे खातीर धांपुन पांखां
हांगातर हें जोडपें पिसावला
अुगडून दारां सर्गसुखा

ह्योच दडको हीच थंडाय
तांका अेकठांय आंवुळटा
चोंचीत चोंच रिगतकच
मोगान जीव जिवाक भेट्टा

वाजता कुंपां धोल
सुटला वाऱ्या तोल
लजेन तिनसांज भुरकुटल्या

दाटल्या धुंवरी दाट
बुट्टा काळखा कांठ
कोणाखातीर वाट पातळळ्या

सुटल्या खंयच्यान गळटी मळबाक
सतत वोततात धारार धारो
जोगलावण्याचो कडटा अुजो
जिवाक म्हज्या ना आयज थारो

पांय सुकण्यांचे बांदुन पडल्यात
पडून पांखार चेपण मणभर
पावस असो हो लागला विटोवंक
दिना घेवंक विसव खिणभर

भल्यो खळयो तुंबली गटारां
रस्त्यार अुफेता अुदका तळी
कानार खळखळ गाजता व्हाळ
खिन्नतायेची नाचयत सावळी

शेतां अुबी बुडून गेलीं
वयर शेळो बांदता बिराड
हुसक्या नदर मळबाक तेंकोवन
शेतकार खरपित बसला खाड

(फुडें चालू)

खवदळिल्ल्या अुग्र दर्याच्यो
चाळवल्यात धापो पोरन्यो
देग अुबंत किण्ण कायेन
म्हण्टा कितें ह्यो काळा करण्यो

अशी भयाची सया वावुरता
तरीय जिणेक फायची माया
रूजूंक लागिल्ल्या कंवळ्या रोप्यांत
अखंड ऋतुंची शाश्वत काया

तूं धर्तरी हांव मळब गो
जिणेक तुगेल्या म्हजो पेलो
तानसुरान तूं रखरखताना
जावन रकता हांव पावसाळो

म्हज्या येवपांत आंगार तुज्या
तरणेपणाचो शिरिंगार सजता
पडून प्रणया थेंब्यार थेंब
फूल पर्मळान कुचकुचता

कुपां गच्च मळबांतल्यान रकत पावसा धारो
चिप्प हांव भिजून कुडीक कुलकुलायता कांपरो

वादळी वारें खरवत कशें थरथरतात वेली
पावसाच्या धुमशेणान अुडला जिवा आवरो

मोनीं खोंपी घरां सोंशित अवचिन्ना अुडक्यो
ल्हिपयत आपल्या पिंजके जिणे अनंतकाळा वेरो

दिको काळखी बुडिल्ल्यो
राव जोगला लकलकायत
वाट म्हजी पर्जळायत

रात पावसा भिरांकूळ
कांटो फुलैता वारो
भरता कुडीत थरथरो

मेळ्ळयार तुजो सांगात
कसलो भंय काळखाचो
काळखांतल्या अरिष्टांचो

दिको काळखी बुडिल्ल्यो
राव जोगला लकलकायत
वाट फांतोडे निवळायत

खिणांत दाटून मळब सगळें
अचकित गळळ्यो पावसाधारो
जोगुल कुपांक फुसलायता
चडयत घडघड्यांचो पारो

जिवाक आसली वोड अुबेची
झोमुंक लागला वारो आडांगी
जावन गेल्ल्या जोगलावण्याची
तटतट आजुन शिरांत जागी

करपल्ल्या बोडक्या मळार
दडकार दडको अुटंगारा
लुसलुशीत तणाक भुलून
शेंपड्यो हालयतात म्हसरां

कुपावल्ल्या मळबांत चंद्र कितें सोदता कळना
शेळें चांद्ने फिक्या – दिकांनी मंद विरगळटना

पावसा सर येवन गेली दवरून थंडाय वोली
थेंब्या थेंब्यांची टपटप आंगार हालून दुबावा पानां

पयस पेटिल्ल्या दिव्यांचे अुदकाचेर सोरोप
अेकसुरपणा तोंपून कांटो मनाक विवंचना

अुटंगारांच्या पावसातल्यान चलता अुदका वाट
पावलांपुरतें नदरेक सुख मुखार धुंवरी दाट

सगळेवटेन रकता अरिश्ट घे नासतना आसोर
व्हांवलोय जरी अुदका लोट आजुन तानेल्लो कांठ

बेजारसाणीच्यो पावसा दडको सोंपून
पातळळां सगळ्याक
कोपातली व्हिस्की कशी
वोत कार्रेगाद भांगराळें !

ही वोताची कार्रेगाद व्हिस्की
अिल्ली अिल्ली पिवूंक लागतकच
ती चडून
तकलेंत काळोख मुंगरूंक लागचो
आनी कोप रितें जातकच
सगळे कुडीक नशेन आंवुळची
तसो सूर्य ल्हवू ल्हवू
लागला देवूंक मळब
दिकादिकांक काळखाची नशा लायत !

आता थोड्या वेळान
ब्रह्मांड बेबदें जावन पडटलें !

भांगरा वोताची श्रावणी धार
दांबरी रस्त्यार
गाजोलिनाचें खिणयाळें
मोरपांख लिकलिकायता

भांगरा वोताची श्रावणी धार
घरां बिल्डीगो
झाडां पेडांचेर लटक्या वैभवाचो
लेप खातडायता

भांगरा वोताची श्रावणी धार
केंसातल्या
जायांच्या घमघमाटांत घुस्मटून
यादींचो सर्ग निर्मिता

भांगरा वोताची श्रावणी धार
पुसून उडोवंक
काळी घोण कशें पावसा कूप
हुबत हुबत येता

भुरगेपणा पुस्तकातलो पावस कितलो लक्तुबायेचो
आयजपसुन याद काडल्यार फुलता कळो जिवाचो

पाखाट्यांचे फुलोवन दोळे मोर नाचताले थुय थुय
घडघडो जोगलावण्यान कुपां झिणझिणयताली भुंय

वाट काडीत तांबडे व्हाळ मस्ते जावन धांवताले
पावस आसूं वा नासूंयबी आंग भिजून थपथपतालें

आयज कितलोय रकल्यार पावस खंय जिरता समजना
भिजून थापो जालोय जाल्यार तान भागोंवक शकना

पावस पडटा :
न्हय, हो म्हजे यादींचो शिंवर झडटा
यादी :
आंगावेल्यान व्हांवून गेल्ल्या काळ ऋतुंच्यो
दिसान दीस जाण्टेंपण हाडटल्या भुरगेंपणाच्यो

पावस पडटा :
न्हय, हो म्हज्या जिणे अुदकाचो हुंवार घडटा
हुंवार :
जाय तितलें दवरून नाका तें व्हांवयतलो
धर्तरिवेलो अेक दीस म्हाकाच कुशीन काडटलो

## आमचीं कांय नवीं प्रकाशनां

- साहित्य सुवाद
  – डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
- चित्रांगदा
  – पांडुरंग भांगी
- मृद्‌गंध
  – सुरेखा तोटेकार
- सैम-घुडी
  – उदय गांवकार
- पारजत फुलां
  – नरेंद्र कामत
- जैत
  – श्रीधर कामत
- शीला
  – एन्. सुहास
- गाज
  – शशिकांत पुनाजी
- मोतयां
  – रोहिदास मंगेशकार
- अक्षयदिवो
  – आनंद वर्टी
- निळें निळें ब्रह्म
  – शंकर रामाणी
- कविता : काळ रेल्वेच्यो
  : मन हारशांच्यो
  : पावसा पाणयांच्यो
  – प्रकाश पाडगांवकार
- सर्ग घडपाक धतरिचो
  – प्रकाश पाडगांवकार

## कविता : काळ रेल्वेच्यो, मन हारशांच्यो, पावसा पाणयाच्यो

*'**अुजवाडाचीं पोवलां**' (१९७६) ह्या आपणाल्या पयल्या काव्य संग्रहांत प्रकाश पाडगांवकार असो गायलो :*

**'अुजवाडाचें पावल म्हजें काळखा सोपण चट्टलें, येवं तुफान जावं मोड सहजकायेन परतीतलें'**

*देखून कोंकणीचे श्रेष्ठ कवि बाकीबाब बोरकार हाणीं अुद्‌गार काडिल्ले :*

*पाडगांवकारांत अुजवाडाचो ध्यास आसा. ताज्या लेखींचो हो अुजवाड... सगल्यांची उत्पत्ती, स्थिती आनी लय ज्याका लागून घट्टात तो सनातन अुजवाड, तो अुजवाड म्हळ्यारच सत् चित् आनंद...*

*पूण बाकिबाबांच्या ह्या अुद्‌गारा वरवीं तुमकां अशें दिसना कि आपणाल्या पयल्या काव्य संग्रहांत पाडगांवकार नकळटनांच '**तमसो मा ज्योर्तिगमय**' हे सनातन शांती मंत्रातले अेके ओळीचो दिश्टावो अुक्तावपाचो येत्न करतालो म्हूण?*

*तरी कवि हेच शान्ती मंत्राची पयली ओळ '**असतो मा सद्‌गमय**' त्या वेळार कसो विसल्लो ? हाजी जाप आमकां '**वास्कोयन**' (१९७७) ह्या तांच्या दुसऱ्या काव्य संग्रहात मेळटा. हांतूत ताणीं प्रस्न केला :*

**वास्को म्हळ्यार अेक रसायण / खतखतत रावपाचें**
**रसायण तें हेंच काय कितें / विश्वाच्या अुध्दाराचें ?**

*हाचे वेल्यान आता दिसना कि त्या शान्तीमंत्राची आरंभीक दोन ओळीची पूर्ण अभिव्यक्ती '**वास्कोयना**' च्या रूपान सरत्या विसाव्या शेंकड्यातल्या कोंकणी काव्यांतल्यान फुलपाक लागल्या म्हूण ?*

*अुपरांत आयलो '**हांव मनीस अश्वत्थामो**' (१९८५). हांगा आमकां स्पष्टपणान दिसलें वेल्या शांतीमंत्राचो अपेक्षणीय समन्वय. सगळे जाणात '**अश्वत्थामो**' ह्या पुराण पात्रावरवीं आपल्या अंतर्मनाची खंत परगटायताना कविन कितें सांगला तें. ते संदर्भांत आयच्या मनीसकुळयेचे अवस्थेचेर बोट दवरतानाच पाडगांवकारान ध्येयवादय आमचे मुखार दवरिल्लो हें आमीं जाणात. सांगपाक नाका कि हो सगळो आमी अपेक्षिल्ल्या समन्वयाचो वेगळे तरेचो आविश्वार आसलो. ह्या रूपान पाडगांवकाराच्या लेखणींतल्यान अुत्क्रान्तीचें प्रकटीकरण जावपाचेंच आसलें.*

*म्हण्टकच तें आमकां तांच्या '**कविता : काळ रेल्वेच्यो, मन हारशांच्यो, पावसा पाणयाच्यो**' ह्या काव्य संग्रहावेल्यान दिसता. पाडगांवकाराचो हो त्रिगुणी संवेदनी पुराय काव्य–संग्रह बारीकसाणीन वाचल्यार हाची सत्यताय आमकां पट्टा. तातुंतल्यो कविताच गवाय दितात. देखून हो संग्रह पुरायेन वाचुनच पळयात, खोलायेतल्या थरातल्यान कवी कितें सांगूंक सोदता तें.*

**– एस. एस. कुलकर्णी**

---

ISBN 81-85854-03-3